# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक

शिशिर अंक(पौष-माघ) , २००५

मळबाच्या
त्या आंगणा परस
तुज्या दोळ्यांतले आंगण
विशाल

*मळब* - पा.७



**कविता थेरपी**

- पा.२

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक
शिशिर अंक (पौष-माघ), २००५
*
संपादक
**गोकुलदास प्रभु**
*
छापपी आनी उजवाडावपी
**सत्यवान कुंदे**
कुळागर प्रकाशन, पॉ.बो.नं. ७८,
मडगांव, गोंय - ४०३ ६०१
*
छापणावळ
**गणेश प्रिंटर्स**
मंगळूर - ५७५ ००३
*
संपादकाचो पत्तो
२५-२१-१३२०-४२
न्यू मजिला कॉलेनी,
जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२
*
मोल १० रुपया
वर्सुकी पटी
६० रुपया
*
**वेवहाराचो पत्तो**
२५-२१-१३२०-४२,
न्यू मजिला कॉलेनी,
जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२

## मांडावळ



# कविता थेरपी

आमी कितल्या जणांनी बिबलियो थेरपिचें नांव आयकलां हांव नेणां. बिबलियो थेरपी, पोयेट्री थेरपीचें आनीयेक नांव. थेरपी दिवंचे मनीस आपल्या पिडेस्तांचेर psychotherapy या counselling क एक substitute जावन हें bibliotherapy-चें विधान वापरतात.

आधुनिक काळाचीं थेरपी-विधानां लोकामोगाळ जांवच्या जायत्या तेंपा आदींच ही बिबलियो थेरपी या कविता थेरपी चालतेर आशिल्ली.

ग्रीक पुराणशास्त्राप्रकार आपल्लोच्या पुताक (एचेलिपियुसाक) हे विद्येची बरीच जाणविकाय आशिल्ली. थेरपी म्हळ्ळो सब्द थेरपिया म्हळ्ळ्या ग्रीक सब्दाथावन आयला. तशें म्हळ्यार कविता, कांतार, नाटक या नाचाद्वारीं गूण करचें असो अर्थ जाता. इतिहासांत बरयिल्ल्याप्रकार क्रिस्ता आदल्या पयल्या शेंकड्यांत रोमन फिसिशियन सरिनस आपल्या पिडेस्तां खातीर कविता आनी नाटक prescribe करतालो.

उच्चार कला या expressive art गूण करूंक वापरचें एक विधान जावन आयलेवारच लोकामोगाळ जावन तरी आसल्या एका विधानाच्यो गोवाचो बोंव परन्या संस्कृतेंनी आमका पळोवंक मेळतात. मानसिक वेदना पयस करचेखातीर आमेरिकन इंडियन लोक मंत्रां गुणगुणताले. खंयचेंय एक मंत्र या एके संस्कृतिक प्रतिनिधित्व करची कविता जर तू उगडासांत दवरचें प्रेतन करताय, तर वेळाचे पर्तणे सांगता बदलल्ली संस्कृती आनी समाजेचे चालिचे पडरूप झळकतलें मात्र न्हय, तांतल्यान आमच्या लोकांच्या भांग्राळ्या शाणेपणाची जडाय तशें मतीक शांत करचीं उतरां झाळकतात.

आज एक 'कविता सातें' म्हळ्यार एके कवितेक आयकोन चरचेद्वारी ते कवितेचेर प्रतिक्रिया दिवची असो अर्थ जाता. 'कविता सातें' म्हळ्यार विमर्सो न्हय.

दला exploration या सोद आनी आखरेक स्वताची प्रतिक्रिया या self expression ावन असूंक जाय. एक कविता व्हडल्यान वाचल्यान तांतलो ताळ, लय या संगीत ायकतल्याच्या मनाक आकर्शिता आनी तांच्या दिसपडत्या चिंतपा थावन तांका पयस ापोवन व्हरता. संगीतांतल्या ताळाचो एक तुकडो या piece आख्ख्या कांताराच्या ॉट्साच्या वजनाचेर जसो हांदोन आसतगि तसोच एक कवितेंत तो उतरांचे ांडावळिचेर हांदोन आसता. हाका आमी alliteration या consonation म्हणतांव.

दाखल्याक : चाफ्राची 'हाड चेडवा बुडकुलो' या मेल्विन रोड्रिगसाची 'ही ाट पडल्ली वाट ....' कविता वाचा.

एका कविता सात्यावेळार चलच्या तर्कांत जमल्ले रसिक एकामेकाचे समरसं ामजोन हरांची योगणां, सिंतिमेतां आनी चिंतप वांटुन घेतात. अशें केल्यान तांचे ातींतलो भार या tension अस्कत जावन वेता. आनी निमाणे सर्वांचे मतींक ुख लायता.

आनीयेक गरजेचो विशय म्हळ्यार, एके कवितेन दिवचो निरोप या संदेश. हो निरोप आमचेर प्रभाव घालता. कित्याक म्हळ्यार कवितेंतलें कविचें self expression वाचतल्याच्या जिवितार्थय एक गांच घालता आनी ह्या गांचा वरवीं ाचपी तिंतूक जायना तसले एक बदलावणेंतल्यान पाशार जाता. एके पंक्तिची ाडवळ या अभिवृद्धि counselling या psychological therapy चो प्रमुख गिराप. ाशें जाल्यान थेरपी दिसल्यांनी कविते द्वारीं ती वाच्या या बरंवचो एक process ंक्तिचे वाडावळीक आनी मानसिक अभिवृद्धक गरजेचो म्हणान साधुन काडला.

जायत्या जणांक कविता वाचल्ले वरवीं मतीचे वेदनेथावन सुटका लायता, ही ुटकाच कवितेंत थेरपीचीं लक्षणां पाचारता. कित्याक म्हळ्यार लोकानी चडीत करुन लिपवन दवरचे विशय एक कविता उगत्यान सांगता. एक कविता वाचल्यान ांका तांची भोगणां लिपिल्लीं न्हय, बदला तीं universal म्हण भोगता.

कविता वाचतल्या एकेकल्याक एकेका नमुन्याचो अनभोग जाता जावंक पुरो. थोड्यांक तांतली प्रकृती आनी मोग, आनंद दिता जांवक पुरो, थोड्यांचेर तांतलो निरोप प्रभाव घालता जांवक पुरो.

पुण एक प्रश्न आजूनय तसोच उरला. आमका सर्वांक रसिकांक अशेंय ओडचे तसली एक सकत या ताकत कवितेंतय आसा तर ती कसली ? काय आमका कवितेंतलो ताळ / लय तसोय ओडता या कवितेचो विशय ?

सबारानी सांगचेप्रकार कवितेंतलो ताळ या लय प्रमुख पात्र घेता. आमच्या भोगणांचे गतीचो तो एक आरसो. आमचीं भोगणां आमी दुखाळ, रागाळ य सुखाळ आसताना कशीं उडक्यो मारतात म्हळ्ळ्याक कवितेंतलो ताळ या लय आरसो धरता.

कविता संशोधक Stephen Dobyns हाणे सांगचेप्रकार कविता म्हळ्यार एक आवाज. फकत आवाज न्हय, आकार आसचो आवाज ! कविता, केदळाय काळोखाच्या कुडांनी वसती करच्या दोन या चडीत व्यक्तींच्या कुडा मधें आसचें जनेल.

हेर थोडयानी सांगचेप्रकार, कविता फकत उतरां, प्रतिमा आनी symbolism-क कवितेंत कशीं आनी खंयच्या नमुन्यार वापरल्यांत आनी तें वाचतल्याचेर कसो आनी खंयच्या नमुन्यार प्रभाव घालतात म्हळ्ळें गरजेचें.

सरायेन या वेगान घावोंक उसमड्च्या आमच्या ह्या संवसारांत सगळो वेळ, हरयेके घड्ये विणस आवाज भरोन गेला ! संगीत सयत थोडेपावटी आमका असलोच एक आवाज म्हणोन भोगुक पुरो ! संगीत शांत आनी काळजा मनां धलवचें आसल्यारीय जायत्या लोकाच्या मनाचेर आशेल्ले तितलो जादू करूंक शकना. जायत्या लोकाक एक कविता दोळ्यांनी वाचल्लेवरवीं आशेल्लें सुख लाबता आनी तांका तांचें जिवित निजायकि पाचीं हाडचेथय मजत करता !

■ **मेल्विन रोड्रीगस**

*(२००५ एप्रिल ४ तारिकेर 'कलांगण' मंगळूर हांगा जाल्ले कविगोष्टी संदर्भार केल्ल्या भाशणाचे मोटवें रूप)*

## गज़ल

दोळे म्हजे वाटेक तुजे
लावन सद्दां रावलें हांव
पत्तो विचारीत रे तुजो
गांव गांव भोंवलें हांव
शारां शारां घरां दारां
जोती झरयत गेलें हांव
वळख तुजी मेळच नारे
पिशें कशें जालें हांव
तुजे विणे जिणे अशें
नांव नागवलेलें हांव
दोळे म्हजे वाटेक तुजे
लावन सद्दां रावलें हांव

रूप तुजें चान्न्या तळें
लायत उजो वयता गो
नाकावेलो राग तुज्या
रुंवार हुंवार रुंयता गो
अशें तुजें चलप पिशा
वंठार हांशें शिंपता गो
मस्कऱ्यानी मन गो म्हजें
दोळ्यांत तुज्या लिपता गो
नेटान वचून फाटीं फुडें
जेन्ना वळून चोयता गो
मोग तुजो सर्वांगांसून
सोदीत म्हाकां येता गो

■ रमेश भगवंत वेळुस्कर

## ಗಜಲ್

ದೋಳೇ ಮ್ಹಜೇ ವಾಟೇಕ್ ತುಜೇ
ಲಾವನ್ ಸದ್ದಾಂ ರಾವ್‌ಲೇಂ ಹಾಂವ್
ಪತ್ತೋ ವಿಚಾರೀತ್ ರೇ ತುಜೋ
ಗಾಂವ್ ಗಾಂವ್ ಭೋಂವ್‌ಲೇಂ ಹಾಂವ್
ಶಾರಾಂ ಶಾರಾಂ ಘರಾಂ ದಾರಾಂ
ಜೋತೀ ಝುರ್‌ಯತ್ ಗೇಲೇಂ ಹಾಂವ್
ವಳಖ್ ತುಜೀ ಮೇಳಚ್ ನಾರೇ
ಪಿಶೇಂ ಕಶೇಂ ಜಾಲೇಂ ಹಾಂವ್
ತುಜೇ ವಿಣೇ ಜಿಣೇ ಅಶೇಂ
ನಾಂವ್ ನಾಗ್‌ವಲೇಲೇಂ ಹಾಂವ್
ದೋಳೇ ಮ್ಹಜೇ ವಾಟೇಕ್ ತುಜೇ
ಲಾವನ್ ಸದ್ದಾಂ ರಾವ್‌ಲೇಂ ಹಾಂವ್

ರೂಪ್ ತುಜೇಂ ಚಾನ್ನ್ಯಾ ತಳೇಂ
ಲಾಯತ್ ಉಜೋ ವಯ್‌ತಾ ಗೋ
ನಾಕಾವೇಲೋ ರಾಗ್ ತುಜ್ಯಾ
ರುಂವಾರ್ ಹುಂವಾರ್ ರುಂಯ್‌ತಾ ಗೋ
ಅಶ್ಶೇಂ ತುಜೇಂ ಚಲಪ್ ಪಿಶಾ
ವಂಟಾರ್ ಹಾಂಶೇಂ ಶಿಂಪ್‌ತಾ ಗೋ
ಮಸ್ಕರ‍್ಯಾನೀ ಮನ್ ಗೋ ಮ್ಹಜೇಂ
ದೋಳ್ಯಾಂತ್ ತುಜ್ಯಾ ಲಿಪ್‌ತಾ ಗೋ
ನೇಟಾನ್ ವಚೂನ್ ಫಾಟೀಂ ಫುಡೇಂ
ಜೇನ್ನಾ ವಳೂನ್ ಚೋಯ್‌ತಾ ಗೋ
ಮೋಗ್ ತುಜೋ ಸರ್‌ವಾಂಗಾಂಸೂನ್
ಸೋದೀತ್ ಮ್ಹಾಕಾಂ ಯೇತಾ ಗೋ

■ ರಮೇಶ್ ಭಗವಂತ್ ವೇಳುಸ್ಕರ್

३ रस्यांतुल्यान येतां वेतां सांग गो कित्याक चोयता
काळजावेल्यान मोर पाखां सांग कित्याक खेळयता
केन्ना दोळ्यांत राग माळून सांग कित्याक पळयता
वाटेवेल्यान वेतना म्हाकां सांग कित्याक जळयता
उलयतरावचें तुजे कडें अशें तूं दिसता तेन्ना दिसता
सामकें लाग्गीं पावता तशें तूं तकली कित्याक वळयता
रूप तुजें चिंतित चिंतित राती म्हाकां जागयता
सपन पडटकूच कित्याक गो हड्ड्याकडें खेळयता

ರಸ್ಯ್ಯಾಂತುಲ್ಯಾನ್ ಯೇತಾಂ ವೇತಾಂ ಸಾಂಗ್ ಗೋ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಚೋಯ್‌ತಾ
ಕಾಳ್‌ಜಾವೇಲ್ಯಾನ್ ಮೋರ್ ಪಾಖಾಂ ಸಾಂಗ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಖೇಳ್‌ಯತಾ
ಕೇನ್ನಾ ದೋಳ್ಯಾಂತ್ ರಾಗ್ ಮಾಳೂನ್ ಸಾಂಗ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಪಳ್‌ಯತಾ
ವಾಟೇವೇಲ್ಯಾನ್ ವೇತನಾ ಮ್ಹಾಕಾಂ ಸಾಂಗ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಜಳ್‌ಯತಾ
ಉಳಯತ್ ರಾವಚೇಂ ತುಜೇ ಕಡೇಂ ಅಶೇಂ ತೂಂ ದಿಸ್‌ತಾ ತೇನ್ನಾ ದಿಸ್‌ತಾ
ಸಾಮ್‌ಕೇಂ ಲಾಗ್ಗೀಂ ಪಾವ್‌ತಾ ತಶೇಂ ತೂಂ ತಕಲೀ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ವಳ್‌ಯತಾ
ರೂಪ್ ತುಜೇಂ ಚಿಂತಿತ್ ಚಿಂತಿತ್ ರಾತೀ ಮ್ಹಾಕಾಂ ಜಾಗ್‌ಯತಾ
ಸಪನ್ ಪಡಟ್‌ಕೂಚ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಗೋ ಹಡ್‌ಡ್ಯಾಕಡೇಂ ಖೇಳ್‌ಯತಾ

४ उमाशेचे रातीन दिलें दुःख तन्ने तन्ने
पांवल तुजें वाजलें तशें काळोख जालें चान्ने
सुकतेकूच आयली भर्ती गांवक लागली कोगुळां
मोगा ओघान हुंवार जालीं धूंद मना गोकुळां
बाधा म्हजी राधा कशी मनचे ताळचेर नाचली
सैमा म्हैपासांत तुजी प्रीत प्रीत वाचली
येणे तुजें देणें कशे, नवेंच जालें पोन्ने
पांवल तुजें वाजले तशें काळोख जालें चान्ने

ಉಮಾಶೇಚೇ ರಾತೀನ್ ದಿಲೇಂ ದುಃಖ್ ತನ್ನೇ ತನ್ನೇ
ಪಾಂವ್‌ಲ್ ತುಜೇಂ ವಾಜ್‌ಲೇಂ ತಶೇಂ ಕಾಳೋಕ್ ಜಾಲೇಂ ಚಾನ್ನೇ
ಸುಕ್‌ತೇಕೂಚ್ ಆಯ್‌ಲೀ ಭರ್‌ತೀ ಗಾಂವಕ್ ಲಾಗ್‌ಲೀಂ ಕೋಗುಳಾಂ
ಮೋಗಾ ಓಘಾನ್ ಹುಂವಾರ್ ಜಾಲೀಂ ಧೂಂದ ಮನಾ ಗೋಕುಳಾಂ
ಬಾಧಾ ಮ್ಹಜೀ ರಾಧಾ ಕಶೀ ಮನ್‌ಚೇ ತಾಳ್‌ಚೇರ್ ನಾಚ್‌ಲೀ
ಸೈಮಾ ಮ್ಹೈಪಾಸಾಂತ್ ತುಜೀ ಪ್ರೀತ್ ಪ್ರೀತ್ ವಾಚ್‌ಲೀ
ಯೇಣೇ ತುಜೇಂ ದೇಣೇಂ ಕಶೇಂ, ನವೇಂಚ್ ಜಾಲೇಂ ಪೋನ್ನೇ
ಪಾಂವ್‌ಲ್ ತುಜೇಂ ವಾಜಲೇಂ ತಶೇಂ ಕಾಳೋಖ್ ಜಾಲೇಂ ಚಾನ್ನೇ.

■ रमेश भगवंत वेळुस्कर ■ ರಮೇಶ್ ಭಗವಂತ್ ವೇಳುಸ್ಕರ್

## ळब

र्या ना म्हूण
ळबान आंग धांपलें
र्या आयलो तेन्ना
इसण आपलें सोडलें

तां वतां सुर्यान
ळबाक लायलो तिबो
दिवो जावन लकलकलो
पलभर चकचकलो
ातभर लुकलुकलो

ळबांतली नखेत्रां पुंजावन
ांवें म्हजे तळयेंत ओंपली
खखो चंद्रीम तळयेंत आयलो
ाचतालो .... धोलतालो ...

चान्नें
फेलां उदकार
वेरगळ्ळां पाणयांत
ाय
वेसावलां तळ्याच्या तळाक ?
या चान्याळ्या उदकांत
ालों जाल्यार
ांव मळबांत पेंवतलों ?

ळबाच्या
या आंगणा परस
ज्या दोळ्यांतलें आंगण



## ಮಳಬ್

ಸುರ್ಯಾ ನಾ ಮ್ಹೂಣ್
ಮಳ್‌ಬಾನ್ ಆಂಗ್ ಧಾಂಪ್‌ಲೇಂ
ಸುರ್ಯಾ ಆಯ್‌ಲೋ ತೇನ್ನಾ
ನ್ಹೇಸಣ್ ಆಪ್‌ಲೇಂ ಸೋಡ್‌ಲೇಂ

ವತಾಂ ವತಾಂ ಸುರ್ಯಾನ್
ಮಳ್‌ಬಾಕ್ ಲಾಯ್‌ಲೋ ತಿಬೋ
ದಿವೋ ಜಾವನ್ ಲಕ್‌ಲಕ್‌ಲೋ
ಕಪಲ್‌ಭರ್ ಚಕ್‌ಚಕ್‌ಲೋ
ರಾತ್‌ಭರ್ ಲುಕ್‌ಲುಕ್‌ಲೋ

ಮಳ್‌ಬಾಂತ್‌ಲೀ ನಖೇತ್ರಾಂ ಪುಂಜಾವನ್
ಹಾಂವೇ ಮ್ಹಜೇ ತಳ್‌ಯೇಂತ್ ಓಂಪ್‌ಲೀ

विशाल
दिकांच्या
त्या चारूय हातांपरस
तुज्या गोपांत हांव
खुशाल

शाराचे हे
ऊंच ऊंच कांटे
मळबाच्या पांयांक तोपतात
मळब सोशीत रावलां
दामून धरला कोप
ताचो मनशाचेर
जिवापाड मोग

■ भरत नायक

ಅಖ್ಖೋ ಚಂದ್ರಿಮ್ ತಳ್‌ಯೇಂತ್ ಆಯ್‌ಲೋ
ನಾಚ್‌ತಾಲೋ ...... ಧೋಲ್‌ತಾಲೋ ....

ಹೇಂ ಚಾನ್ನೇಂ
ಉಫೇಲಾಂ ಉದ್‌ಕಾರ್
ವಿರಗಳ್ಯಾಂ ಪಾಣ್‌ಯಾಂತ್
ಕಾಯ್
ವಿಸಾವಲಾಂ ತಳ್ಯಾಚ್ಯಾ ತಳಾಕ್ ?
ಹ್ಯಾ ಚಾನ್ನ್ಯಾಳ್ಯಾ ಉದ್‌ಕಾಂತ್
ನ್ಹಾಲೋಂ ಜಾಲ್ಯಾರ್
ಹಾಂವ್ ಮಳ್‌ಬಾಂತ್ ಪೇಂವ್‌ತಲೋಂ ?

ಮಳ್‌ಬಾಚ್ಯಾ
ತ್ಯಾ ಆಂಗ್‌ಣಾ ಪರಸ್
ತುಜ್ಯಾ ದೋಳ್‌ಯಾಂತಲೇಂ ಆಂಗಣ್
ವಿಶಾಲ್
ದಿಕಾಂಚ್ಯಾ
ತ್ಯಾ ಚಾರೂಯ್ ಹಾತಾಂಪರಸ್
ತುಜ್ಯಾ ಗೋಪಾಂತ್ ಹಾಂವ್
ಖುಶಾಲ್

ಶಾರಾಚೇ ಹೇ
ಊಂಚ್ ಊಂಚ್ ಕಾಂಟೇ
ಮಳ್‌ಬಾಚ್ಯಾ ಪಾಂಯಾಂಕ್ ತೋಪ್‌ತಾತ್
ಮಳಬ್ ಸೋಶೀತ್ ರಾವ್‌ಲಾಂ
ದಾಮೂನ್ ಧರ್‌ಲಾ ಕೋಪ್
ತಾಚೋ ಮನ್‌ಶಾಚೇರ್
ಜಿವಾಪಾಡ್ ಮೋಗ್

■ ಭರತ್ ನಾಯಕ್

## मोगाळ कवनां

१. चलतां चलतां
तुज्या गालाचे खळयेंत
हांव निसरून पडलों
आनी म्हजें काळीज फुटलें
म्हाका बेगीन घेवन वच
मोगाच्या हॉस्पिटलांत
मोगाच्या दोतोराक सांग
मोगाच्या उपचार करपाक
मोगाचें मलम लावन
फुटिल्ली वेर भरपाक
तूं मात म्हयांत राव
मोगाचें नर्सींग करपाक
मोगाची सूय घेवन
मोगाच्या मोगाक तोपपाक

२. म्हज्या यादींचो
एक थेंबो
तुज्या
आळवाच्या पानार दवरिल्लो
अजून आसा
काय पडलो ?
आसा जाल्यार
झेलय
थंयचे थंयच
जिरय
पडूंक दिव नाका
तुजें पान हालय
सभ्यपणान मिरय

## ಮೋಗಾಳ್ ಕವನಾಂ

ಚಲ್ತಾಂ ಚಲ್ತಾಂ
ತುಜ್ಯಾ ಗಾಲಾಚೇ ಖಳ್ಯೇಂತ್
ಹಾಂವ್ ನಿಸರೂನ್ ಪಡ್ಲೋಂ
ಆನೀ ಮ್ಹಜೇ ಕಾಳೀಜ್ ಫುಟ್ಲೇಂ
ಮ್ಹಾಕಾ ಬೇಗೀನ್ ಘೇವನ್ ವಚ್
ಮೋಗಾಚ್ಯಾ ಹಾಸ್ಪಿಟಲಾಂತ್
ಮೋಗಾಚ್ಯಾ ದೋತೋರಾಕ್ ಸಾಂಗ್
ಮೋಗಾಚ್ಯಾ ಉಪ್ಚಾರ್ ಕರ್ಪಾಕ್
ಮೋಗಾಚೇಂ ಮಲಮ್ ಲಾವನ್
ಫುಟಿಲ್ಲೀ ವೇರ್ ಭರ್ಪಾಕ್
ತೂಂ ಮಾತ್ ಮ್ಹಯ್ಯಾಂತ್ ರಾವ್
ಮೋಗಾಚೇಂ ನರ್ಸಿಂಗ್ ಕರ್ಪಾಕ್
ಮೋಗಾಚೀ ಸೂಯ್ ಘೇವನ್
ಮೋಗಾಚ್ಯಾ ಮೋಗಾಕ್ ತೋಪ್ಪಾಕ್

ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಯಾದೀಂಚೋ
ಏಕ ಥೇಂಬೋ
ತುಜ್ಯಾ
ಆಳ್ವಾಚ್ಯಾ ಪಾನಾರ್ ದವ್ರಿಲ್ಲೋ
ಅಜೂನ್ ಆಸಾ
ಕಾಯ್ ಪಡ್ಲೋ ?
ಆಸಾ ಜಾಲ್ಯಾರ್
ಝೇಲಯ್
ಥಂಯ್ಚೇ ಥಂಯಚ್
ಜಿರಯ್
ಪಡೂಂಕ್ ದಿವ್ ನಾಕಾ
ತುಜೇಂ ಪಾನ್ ಹಾಲಯ್
ಸಭ್ಯಪಣಾನ್ ಮಿರಯ್

| | | |
|---|---|---|
| ३. | तुज्या मनांतलें ल्हार | ತುಜ್ಯಾ ಮನಾಂತಲೇಂ ಲ್ಹಾರ್ |
| | दोळयांत आयलें | ದೋಳ್ಯಾಂತ್ ಆಯ್ಲೇಂ |
| | गालार फुटलें | ಗಾಲಾರ್ ಫುಟ್ಲೇಂ |
| | ओंठार आदळ्कें | ಓಂಠಾರ್ ಆದ್ಳ್ಕೇಂ |
| | उतर उफेलें | ಉತರ್ ಉಫೇಲೇಂ |
| | आनी व्हांवत व्हांवत | ಆನೀ ವ್ಹಾಂವತ್ ವ್ಹಾಂವತ್ |
| | म्हज्या मनाचे घडेर | ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮನಾಚೇ ಘಡೇರ್ |
| | थिरावलें | ಥಿರಾವಲೇಂ |
| ४. | तुज्या न्हाल्ल्या केंसांक | ತುಜ್ಯಾ ನ್ಹಾಲ್ಲ್ಯಾ ಕೇಂಸಾಂಕ್ |
| | पयल्या पावसाचे | ಪಯಲ್ಯಾ ಪಾವ್ಸಾಚೇ |
| | ओले मातयेचो वास | ಓಲೇ ಮಾತಯೇಚೋ ವಾಸ್ |
| | कुडींत घेतिल्लो | ಕುಡೀಂತ್ ಘೇತಿಲ್ಲೋ |
| | सोडीन दिसना श्वास | ಸೋಡೀನ್ ದಿಸ್ನಾ ಶ್ವಾಸ್ |
| ५. | मोगाच्या झाडान | ಮೋಗಾಚ್ಯಾ ಝಾಡಾನ್ |
| | मूळ धरपाक जाय | ಮೂಳ್ ಧರ್ಪಾಕ್ ಜಾಯ್ |
| | मागीर तें | ಮಾಗೀರ್ ತೇಂ |
| | शिंपनासतना वाडत वता | ಶಿಂಪ್ನಾಸ್ತನಾ ವಾಡತ್ ವತಾ |
| | तूं ताका मेळना | ತೂಂ ತಾಕಾ ಮೇಳ್ನಾ |
| | हेंच ताका उदक | ಹೇಂಚ್ ತಾಕಾ ಉದಕ್ |
| | उपरांत तें | ಉಪ್ರಾಂತ್ ತೇಂ |
| | आपणाकूच शिंपता | ಆಪಣಾಕೂಚ್ ಶಿಂಪ್ತಾ |
| | आपल्याच दुकांनी | ಆಪಲ್ಯಾಚ್ ದುಕಾಂನೀ |
| ६. | नदर घुस्पली, बोटां घुस्पलीं | ನದರ್ ಘುಸ್ಪಲೀ, ಬೋಟಾಂ ಘುಸ್ಪಲೀಂ |
| | सुटन सुटना | ಸುಟನ್ ಸುಟನಾ |
| | घुस्पल्लें सूत तोडूंक गेल्यार | ಘುಸ್ಪಲ್ಲೇಂ ಸೂತ್ ತೋಡೂಂಕ್ ಗೇಲ್ಯಾರ್ |
| | तुटन तुटना. | ತುಟನ್ ತುಟನಾ |

| | |
|---|---|
| ७. आंबे चंवरतात तोरां लागतात | ಆಂಬೇ ಚಂವರ್‌ತಾತ್ ತೋರಾಂ ಲಾಗ್‌ತಾತ್ |
| थोडीं बारीक थोडीं मोटीं | ಥೋಡೀಂ ಬಾರೀಕ್ ಥೋಡೀಂ ಮೋಟೀಂ |
| वाळेस पोरांक कितेंय चलता | ವಾಳೇಸ್ ಪೋರಾಂಕ್ ಕಿತೇಂಯ್ ಚಲ್‌ತಾ |
| पिकच्या आदीच फातरावन खातात | ಪಿಕಚ್ಯಾ ಆದೀಚ್ ಫಾತ್‌ರಾವನ್ ಖಾತಾತ್. |
| ८. हांव उगतो शिंपलो | ಹಾಂವ್ ಉಗ್‌ತೋ ಶಿಂಪ್‌ಲೋ |
| तूं पावसा थेंब | ತೂಂ ಪಾವಸಾ ಥೇಂಬ್ |
| म्हज्यांत पड | ಮ್ಹಜ್ಯಾಂತ್ ಪಡ್ |
| हांव तुजें मोतीं करतां | ಹಾಂವ್ ತುಜೇಂ ಮೋತೀಂ ಕರ್‌ತಾಂ |
| ९. तुवें म्हज्या आंगार | ತುವೇಂ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಆಂಗಾರ್ |
| मोरपांख भोंवडायले | ಮೋರ್‌ಪಾಂಖ್ ಭೋಂವ್‌ಡಾಯ್‌ಲೇಂ |
| आनी म्हज्या मोगान बुडून गेलें | ಆನೀ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮೋಗಾನ್ ಬುಡೂನ್ ಗೇಲೇಂ |
| हांवे तुज्या आंगार | ಹಾಂವೇ ತುಜ್ಯಾ ಆಂಗಾರ್ |
| फूल भोंवडायलें | ಫೂಲ್ ಭೋಂವ್‌ಡಾಯ್‌ಲೇಂ |
| तूं फुलपांख जावन फुलार बसलें | ತೂಂ ಫುಲ್‌ಪಾಂಖ್ ಜಾವನ್ ಫುಲಾರ್ ಬಸ್‌ಲೇಂ |
| १०. म्हजीं दुकां भायर सरनात | ಮ್ಹಜೀಂ ದುಕಾಂ ಭಾಯರ್ ಸರ್‌ನಾತ್ |
| तुजीं गळपाचीं थारनात | ತುಜೀಂ ಗಳ್‌ಪಾಚೀಂ ಥಾರ್‌ನಾತ್ |
| त्याचखातीर तूं म्हाका दिसता | ತ್ಯಾಚ್‌ಖಾತೀರ್ ತೂಂ ಮ್ಹಾಕಾ ದಿಸ್‌ತಾ |
| हांव तुका दिसना. | ಹಾಂವ್ ತುಕಾ ದಿಸ್‌ನಾ. |
| ११. मेल्या उपरांत लेगीत | ಮೇಲ್ಯಾ ಉಪ್‌ರಾಂತ್ ಲೇಗೀತ್ |
| आमी अशींच मेळूंक जाय | ಆಮೀ ಅಶೀಂಚ್ ಮೇಳೂಂಕ್ ಜಾಯ್ |
| मरच्या आदी मात तुवें | ಮರ್‌ಚ್ಯಾ ಆದೀ ಮಾತ್ ತುವೇಂ |
| ताजमहाल बांदूंक जाय | ತಾಜ್‌ಮಹಾಲ್ ಬಾಂದೂಂಕ್ ಜಾಯ್ |
| १२. तूं गेलें तेन्ना | ತೂಂ ಗೇಲೇಂ ತೇನ್ನಾ |
| म्हाका मात दुखलेंना | ಮ್ಹಾಕಾ ಮಾತ್ ದುಖ್‌ಲೇಂನಾ |
| कारण तूं आयलें केन्ना | ಕಾರಣ್ ತೂಂ ಆಯ್‌ಲೇಂ ಕೆನ್ನಾ |
| तेंच म्हाका कळळेंना | ತೇಂಚ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಕಳ್ಳೇಂನಾ. |
| ■ भरत नायक | ■ ಭರತ್ ನಾಯಕ್ |

## शून्य

शून्यांत जल्मलों
एका एका शून्याचेर
पांय दवरीत हांव
पलतडी पावलों
जाल्यार पलतड
हेंच एक शून्य आसलें
त्या शून्यांत हांव रावतां
आनी दिगंतरांत भोंवतां

## ಶೂನ್ಯ್

ಶೂನ್ಯಾಂತ್ ಜಲ್ಮಲೋಂ
ಏಕಾ ಏಕಾ ಶೂನ್ಯಾಚೇರ್
ಪಾಂಯ್ ದವರೀತ್ ಹಾಂವ್
ಪಲ್‌ತಡೀ ಪಾವ್‌ಲೋಂ
ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಪಲತಡ್
ಹೇಂಚ್ ಏಕ್ ಶೂನ್ಯ್ ಆಸ್‌ಲೇಂ
ತ್ಯಾ ಶೂನ್ಯಾಂತ್ ಹಾಂವ್ ರಾವ್‌ತಾಂ
ಆನೀ ದಿಗಂತರಾಂತ್ ಭೋಂವ್‌ತಾಂ

## मोतीं

इतलो तेंप
शिंपये भितर
घुस्मटमार सोसून
मोतीं भायर आयलें
एके सुंदरेन सूय तोपून
ताका गळ्यांत हुमकळायलें

## ಮೋತೀಂ

ಇತ್‌ಲೋ ತೇಂಪ್
ಶಿಂಪ್‌ಯೇ ಭಿತರ್
ಘುಸ್ಮಟಮಾರ್ ಸೋಸೂನ್
ಮೋತೀಂ ಭಾಯರ್ ಆಯ್‌ಲೇಂ
ಏಕೇ ಸುಂದರೇನ್ ಸೂಯ್ ತೋಪೂನ್
ತಾಕಾ ಗಳ್‌ಯಾಂತ್ ಹುಮಕ್‌ಳಾಯ್‌ಲೇಂ

## उतरां

ही लिखणी
हें कागद
ही शाय
सजीव मोनी उतरां
कोरांथतात
पाशाण-काळजार
म्हजे संस्कृतायेचें
दायज

## ಉತ್‌ರಾಂ

ಹೀ ಲಿಖ್‌ಣೀ
ಹೇಂ ಕಾಗದ್
ಹೀ ಶಾಯ್
ಸಜೀವ್ ಮೋನೀ ಉತರಾಂ
ಕೋರಾಂಥತಾತ್
ಪಾಶಾಣ್-ಕಾಳ್‌ಜಾರ್
ಮ್ಹಜೇ ಸಂಸ್ಕೃತಾಯೇಚೇಂ
ದಾಯಜ್

## मूर्त

मेणवात पेटोवन
ताणे एके
मूर्ते सामकार धरली
उजवाड पडटांच
ताका दिसलें
मूर्त पेटली

## ಮೂರ್ತ್

ಮೇಣ್‌ವಾತ್ ಪೇಟೋವನ್
ತಾಣೇ ಏಕೇ
ಮೂರ್‌ತೇ ಸಾಮ್‌ಕಾರ್ ಧರ್‌ಲೀ
ಉಜ್‌ವಾಡ್ ಪಡ್‌ಟಾಂಚ್
ತಾಕಾ ದಿಸ್‌ಲೇಂ
ಮೂರ್ತ್ ಪೇಟ್‌ಲೀ

## हांसो

माणकुल्याचो हांसो
निसर्ग सुखाचो
उदकाचो घसघसो
ल्हारेल्ल्या फेंसाचो
माणकुल्याचें रडें
तुमचे चुकीच्या नेणारपणाचें
भेसळ वेपाऱ्याचें
गोमटी कातरिल्ल्या रानांचें

## ಹಾಂಸೋ

ಮಾಣ್‌ಕುಲ್ಯಾಚೋ ಹಾಂಸೋ
ನಿಸರ್ಗ್ ಸುಖಾಚೋ
ಉದ್‌ಕಾಚೋ ಘುಸ್‌ಘುಸೋ
ಲ್ಹಾರೇಲ್ಲ್ಯಾ ಫೇಂಸಾಚೋ
ಮಾಣ್‌ಕುಲ್ಯಾಚೇಂ ರಡೇಂ
ತುಮ್‌ಚೇ ಚುಕೀಚ್ಯಾ ನೇಣಾರ್‌ಪಣಾಚೇಂ
ಭೇಸಳ್ ವೇಪಾರ್‍ಯಾಚೇಂ
ಗೋಮ್‌ಟೀ ಕಾತರಿಲ್ಲ್ಯಾ ರಾನಾಂಚೇಂ

## उतर

गावड्याचें
कुणब्याचें, खणप्याचें
खारव्याचें कुळवाडयाचें
रोवप्याचें, पाडप्याचें
सगल्यांचीं उतरां
एकठावन जें गांठवल
तयार जालां
तें म्हजें उतर

## ಉತರ್

ಗಾವ್‌ಡ್ಯಾಚೇಂ
ಕುಣ್‌ಬ್ಯಾಚೇಂ, ಖಣ್‌ಪ್ಯಾಚೇಂ
ಖಾರ್‌ವ್ಯಾಚೇಂ ಕುಳ್‌ವಾಡ್‌ಯಾಚೇಂ
ರೋವ್‌ಪ್ಯಾಚೇಂ, ಪಾಡ್‌ಪ್ಯಾಚೇಂ
ಸಗ್‌ಲ್ಯಾಂಚೇಂ ಉತ್‌ರಾಂ
ಏಕ್‌ಠಾವನ್ ಜೇಂ ಗಾಂಠ್‌ವಲ್
ತಯಾರ್ ಜಾಲಾಂ
ತೇಂ ಮ್ಹಜೇಂ ಉತರ್.

## कोंबो

कोंब्या साद घाले म्हूण
तूं कोंबो जायना
सुर्यान किरणां दिलीं म्हूण
तूं सुर्या जायना
दोन कोंबे धर्तेक पेलत
दोन सुर्या मळबाक चलचेनात.

## वजें

तूं आसा हे तडीक
तो आसा ते तडीक
मदीं हांव तारवांत
वाट पळयत वाऱ्याची

खंयचेच वटेन वारो ना
तांडून वचची शक्ती ना
न्हंये उदक व्हांवना
म्हाका जाय तशें

तारवांतलें वजें
म्हजें एकटयाचें
सांबाळटलो कशें ?
व्हरतलो कशें ?

येतलो वारो पुर्वे सावन
आशेन हांव रावतां
घेवन वतलो पश्चिमेक
पावतां तसो पावतां

■ भरत नायक

## ಕೋಂಬೋ

ಕೋಂಬ್ಯಾ ಸಾದ್ ಘಾಲೇ ಮ್ಹೂಣ್
ತೂಂ ಕೋಂಬೋ ಜಾಯ್ನಾ
ಸುರ್ಯಾನ್ ಕಿರ್ಣಾಂ ದಿಲೀಂ ಮ್ಹೂಣ್
ತೂಂ ಸುರ್ಯಾ ಜಾಯ್ನಾ
ದೋನ್ ಕೋಂಬೇ ಧರ್ತೇಕ್ ಪೇಲತ್
ದೋನ್ ಸುರ್ಯಾ ಮಳ್ಬಾಕ್ ಚಲ್ಚೇನಾತ್.

## ವಜೇಂ

ತೂಂ ಆಸಾ ಹೇ ತಡೀಕ್
ತೋ ಆಸಾ ತೇ ತಡೀಕ್
ಮದೀಂ ಹಾಂವ್ ತಾರ್ವಾಂತ್
ವಾಟ್ ಪಳಯತ್ ವಾರ್‍ಯಾಚೀ

ಖಂಯ್ಚೇಚ್ ವಟೇನ್ ವಾರೋ ನಾ
ಥಾಂಡೂನ್ ವಚ್ಚೀ ಶಕ್ತೀ ನಾ
ನ್ಹಂಯೇ ಉದಕ್ ವ್ಹಾಂವ್ನಾ
ಮ್ಹಾಕಾ ಜಾಯ್ ತಶೇಂ

ತಾರ್ವಾಂತಲೇಂ ವಜೇಂ
ಮ್ಹಜೇಂ ಏಕ್ಟ್ಯಾಚೇಂ
ಸಾಂಬಾಳ್ಟಲೋ ಕಶೇಂ ?
ವ್ಹರ್ತಲೋ ಕಶೇಂ ?

ಯೇತ್ಲೋ ವಾರೋ ಪುರ್ವೇ ಸಾವನ್
ಆಶೇನ್ ಹಾಂವ್ ರಾವ್ತಾಂ
ಘೇವನ್ ವತ್ಲೋ ಪಶ್ಚಿಮೇಕ್
ಪಾವ್ತಾಂ ತಸೋ ಪಾವ್ತಾಂ

■ ಭರತ್ ನಾಯಕ್

## रानफूल

प्रिय,
मनाचीं सगळीं
बंद जनेलां उगड.
काळजाचो
काळखान भरिल्लो
कळसो
रितो रितो कर
सदांची रड,
पिंरगण
मातशी कुशीक दवर
एक आळस दिवन
सगळें आंग फाफूड.
विस्कळ कर.
एक दीर्घ स्वास घेवन
झाडाभशेन
खोलमेरेन
कूड सळसळाय.
ल्हंवेन ल्हंव
जागी कर.
रूंवान रूंव
मेकळें कर.
रगताचे जोरगतीचीं
हून हून
उशण ल्हारां
कुडींत व्हंजळाय.

## ರಾನ್‌ಫೂಲ್

ಪ್ರಿಯ್,
ಮನಾಚೀಂ ಸಗಳೀಂ
ಬಂದ್ ಜನೇಲಾಂ ಉಗಡ್.
ಕಾಳ್‌ಜಾಚೋ
ಕಾಳ್‌ಖಾನ್ ಭರಿಲ್ಲೋ
ಕಳ್‌ಸೋ
ರಿತೋ ರಿತೋ ಕರ್
ಸದಾಂಚೀ ರಡ್,
ಪಿಂರ್‌ಗಣ್
ಮಾತ್‌ಶೀ ಕುಶೀಕ್ ದವರ್
ಏಕ್ ಆಳಸ್ ದಿವನ್
ಸಗ್‌ಳೇಂ ಆಂಗ್ ಫಾಫೂಡ್
ವಿಸ್ಕಳ್ ಕರ್.
ಏಕ್ ದೀರ್ಘ್ ಸ್ವಾಸ್ ಘೇವನ್
ಝಾಡಾಭಶೇನ್
ಖೋಲ್‌ಮೇರೇನ್
ಕೂಡ್ ಸಳ್‌ಸಳಾಯ್
ಲ್ಹಂವೇನ್ ಲ್ಹಂವ್
ಜಾಗೀ ಕರ್.
ರೂಂವಾನ್ ರೂಂವ್
ಮೇಕಳೇಂ ಕರ್.
ರಗ್‌ತಾಚೇ ಜೋರ್‌ಗತೀಚೀಂ
ಹೂನ್ ಹೂನ್
ಉಷ್ಣ್ ಲ್ಹಾರಾಂ
ಕುಡೀಂತ್ ವ್ಹಂಜ್‌ಳಾಯ್.

भायलें मेकळें वारें
भितर खेळय
भायल्या
कोमल सुर्य किर्णांक
भितर रिगपाक
वाट करून दी.
न्हंये भशेन संथ लयींत व्हांव.
नितळ मनान
पारदर्शक अंतस्कर्णान
ओलें जावन
भायल्या जगाकडेन
भितरले
नदरेन पळे.
संवाद साद.
वाद टाळ.
चित्त प्रसन्नपाचवें,
शांत शांत उदकाळ दवर.
काळजांतल्या
अंतरनादाची रूणझूण आयक ;
आनी रानांतले
फातराळ जमनींत
आपसूक फुलून आयिल्ल्या
रानफुलासारकें
सैभीक जा.
सेंद्रीय जा.

■ परेश नरेंद्र कामत

ಭಾಯ್‌ಲೇಂ ಮೇಕ್‌ಳೇಂ ವಾರೇಂ
ಭಿತರ್ ಖೇಳಯ್
ಭಾಯ್‌ಲ್ಯಾ
ಕೋಮಲ್ ಸುರ್ಯಾ ಕಿರ್ಣಾಂಕ್
ಭಿತರ್ ರಿಗ್‌ಪಾಕ್
ವಾಟ್ ಕರೂನ್ ದೀ.
ನ್ಹಂಯೆ ಭಶೇನ್ ಸಂಥ್ ಲಯೀಂತ್ ವ್ಹಾಂವ್
ನಿತಳ್ ಮನಾನ್
ಪಾರ್‌ದರ್ಶಕ್ ಅಂತಸ್ಕರ್ಣಾನ್
ಓಲೇಂ ಜಾವನ್
ಭಾಯಲ್ಯಾ ಜಗಾ ಕಡೇನ್
ಭಿತ್‌ರಲೇ
ನದ್‌ರೇನ್ ಪಳೇ.
ಸಂವಾದ್ ಸಾದ್.
ವಾದ್ ಟಾಳ್.
ಚಿತ್ತ್ ಪ್ರಸನ್ನಪಾಚ್‌ವೇಂ,
ಶಾಂತ್ ಶಾಂತ್ ಉದಕಾಳ್ ದವರ್.
ಕಾಳ್‌ಜಾಂತಲ್ಯಾ
ಅಂತರನಾದಾಚೀ ರೂಣ್‌ಝೂಣ್ ಆಯಕ್ ;
ಆನೀ ರಾನಾಂತಲೇ
ಫಾತ್‌ರಾಳ್ ಜಮನೀಂತ್
ಆಪ್‌ಸೂಕ್ ಫುಲೂನ್ ಆಯಿಲ್ಲ್ಯಾ
ರಾನ್‌ಫುಲಾಸಾರ್‌ಕೇಂ
ಸೈಭೀಕ್ ಜಾ.
ಸೇಂದ್ರೀಯ್ ಜಾ.

■ ಪರೇಶ್ ನರೇಂದ್ರ್ ಕಾಮತ್

| | |
|---|---|
| **भाळ्ळी राधा बासरीचेर** | **ಭಾಳ್ಳೀ ರಾಧಾ ಬಾಸ್ರೀಚೇರ್** |
| कान्हा | ಕಾನ್ಹಾ |
| तंद्री लागली | ತಂದ್ರೀ ಲಾಗ್ಲೀ |
| मनाक म्हज्या | ಮನಾಕ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ |
| आयकून सूर | ಆಯ್ಕೂನ್ ಸೂರ್ |
| तुज्या | ತುಜ್ಯಾ |
| बासरीचो | ಬಾಸ್ರೀಚೋ |
| तुज्या बांसरी विणे | ತುಜ್ಯಾ ಬಾಂಸ್ರೀ ವಿಣೇ |
| जीण म्हजी दुःखदिणी | ಜೀಣ್ ಮ್ಹಜೀ ದುಃಖ್ದಿಣೀ |
| बांसरी तुजी | ಬಾಂಸ್ರೀ ತುಜೀ |
| ओडलायणी | ಓಡ್ಲಾಯಣೀ |
| भाळ्ळी राधा | ಭಾಳ್ಳೀ ರಾಧಾ |
| खिणा कणकणी | ಖಿಣಾ ಕಣ್ಕಣೀ |
| कोगुळ गायता | ಕೋಗುಳ್ ಗಾಯ್ತಾ |
| सुकणी आळयता | ಸುಕ್ಣೀ ಆಳ್ಯ್ತಾ |
| राग तरातरांचे | ರಾಗ್ ತರಾತರಾಂಚೇ |
| आनी रूखांपाना | ಆನೀ ರೂಖಾಂಪಾನಾ |
| करतात तळसक | ಕರ್ತಾತ್ ತಳ್ಸಕ್ |
| वारयांचो झणझण | ವಾರ್ಯಾಂಚೋ ಝುಣ್ಝುಣ್ |
| झऱ्याचो झळझळ | ಝುರ್ಯಾಚೋ ಝುಳ್ಝುಳ್ |
| न्हयचो खळखळ | ನ್ಹಯ್ಚೋ ಖಳ್ಖಳ್ |
| हो तुज्याच बांसरीचो | ಹೋ ತುಜ್ಯಾಚ್ ಬಾಂಸ್ರೀಚೋ |
| सूर रे कृष्णा | ಸೂರ್ ರೇ ಕೃಷ್ಣಾ |
| सूर रे कृष्णा | ಸೂರ್ ರೇ ಕೃಷ್ಣಾ |

## वारो

म्हजे मानेक सांसपुपी
वाऱ्याचे हे हून हात
काय, तुवें म्हज्या यादीन
सोडिल्ले उशण उस्वास ?

म्हज्या काळजाची
अंदल्या गांठ
तुजे हात जाय
वाऱ्यासांगाताक

म्हज्या काळजाचें
एक पान
वाऱ्यासांगाताक उडलें
तुजेंसरी पावले ?

## कविता

काळजाच्या अनवळखी जुंव्यार
तुज्या वळखीची कुरू
थंय शेणलां म्हजें तारूं

◆

तू एकदांच सादयता
हांव कितल्योच राती जागयतां

◆

मदले मेरेक
दोन शेतां
तशीं तुजीं-म्हजीं
जीणें जोतां

■ नयना आडारकार

## ವಾರೋ

ಮ್ಹಜೇ ಮಾನೇಕ್ ಸಾಂಸ್‌ಪುಪೀ
ವಾರ್‍ಯಾಚೇ ಹೇ ಹೂನ್ ಹಾತ್
ಕಾಯ್, ತುವೇಂ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಯಾದೀನ್
ಸೋಡಿಲ್ಲೇ ಉಶ್ಣ್ ಉಸ್ವಾಸ್ ?

ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾಳ್‌ಜಾಚೀ
ಅಂದಲ್ಯಾ ಗಾಂಠ್
ತುಜೇ ಹಾತ್ ಜಾಯ್
ವಾರ್‍ಯಾಸಾಂಗಾತಾಕ್

ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾಳ್‌ಜಾಚೇಂ
ಏಕ್ ಪಾನ್
ವಾರ್‍ಯಾಸಾಂಗಾತಾಕ್ ಉಡ್‌ಲೇಂ
ತುಜೇಂಸರೀ ಪಾವ್‌ಲೇ ?

## ಕವಿತಾ

ಕಾಳ್‌ಜಾಚ್ಯಾ ಅನವಳ್‌ಖೀ ಜುಂವ್ಯಾರ್
ತುಜ್ಯಾ ವಳ್‌ಖೀಚೀ ಕುರೂ
ಥಂಯ್ ಶೇಣ್‌ಲಾಂ ಮ್ಹಜೇಂ ತಾರೂಂ

◆

ತೂ ಏಕ್‌ದಾಂಚ್ ಸಾದ್‌ಯತಾ
ಹಾಂವ್ ಕಿತ್‌ಲ್ಯೋಚ್ ರಾತೀ ಜಾಗ್‌ಯತಾಂ

◆

ಮದ್‌ಲೇ ಮೇರೇಕ್
ದೋನ್ ಶೇತಾಂ
ತಶೀಂ ತುಜೀಂ - ಮ್ಹಜೀಂ
ಜೀಣೇಂ ಜೋತಾಂ

■ ನಯ್‌ನಾ ಆಡಾರ್‌ಕಾರ್

## रात

झाडांय बी रातची
एका मेका लागी उलयतात
काल रातीं
शेजान्नेल्या माडान
आमचे माडयेक म्हळें
'बरी मीगे धोलता तूं
हेवटेन तेवटेन'
आमचे माडयेन म्हळें
'आनी तूंय उबो हालता मरे !'
'वाऱ्यावांगडा बरी फुलता मीगे !'
तूंय बो मदीच दोडटा मरे !'
'चारी वटेन घुवता शी ?'
'आनी तूंय चुडटां वाजयता तो?'
'मातशी लागीं यो
कानांत कितें सांगता तुज्या'
'हळूच सांगता मरे
कोणूय आयकत बी'
मागीर काय आयकूंक येना म्हण
हांव हळूच जनेलांतल्यान पळेलें
काळखांत माडाच्या सावळेंत
माडी दिसनाशिल्ली
वाऱ्याचो मात
सळ्‌ळ सळ्‌ळ आवाज वाडटालो

■ अरुण साखरदांडे

## ರಾತ್

ಝಾಡಾಂಯ್ ಬೀ ರಾತ್‌ಚೀ
ಏಕಾ ಮೇಕಾ ಲಾಗೀ ಉಲಯತಾತ್
ಕಾಲ್ ರಾತೀಂ
ಶೇಜಾನ್ನೇಲ್ಲ್ಯಾ ಮಾಡಾನ್
ಆಮ್‌ಚೇ ಮಾಡ್‌ಯೇಕ್ ಮ್ಹಳೇಂ
'ಬರೀ ಮೀಗೇ ಧೋಲ್‌ತಾ ತೂಂ
ಹೇವ್‌ಟೇನ್ ತೇವ್‌ಟೇನ್'
ಆಮ್‌ಚೇ ಮಾಡ್‌ಯೇನ್ ಮ್ಹಳೇಂ
'ಆನೀ ತೂಂಯ್ ಉಬೋ ಹಾಲ್‌ತಾ ಮರೇ !'
'ವಾರ್‍ಯಾವೋಂಗ್‌ಡಾ ಬರೀ ಫುಲ್‌ತಾ ಮೀಗೆ !'
'ತೂಂಯ್ ಬೋ ಮದೀಚ್ ದೋಡ್‌ಟಾ ಮರೇ !'
'ಚಾರೀ ವಟೇನ್ ಘುವ್‌ತಾ ಶೀ?'
'ಆನೀ ತೂಂಯ್ ಚುಡ್‌ಟಾ ವಾಜ್‌ಯತಾ ತೋ?'
ಮಾತ್‌ಶೀ ಲಾಗೀಂ ಯೋ
ಕಾನಾಂತ್ ಕಿತೇಂ ಸಾಂಗ್‌ತಾ ತುಜ್ಯಾ'
'ಹಳೂಚ್ ಸಾಂಗ್‌ತಾ ಮರೇ
ಕೋಣೂಯ್ ಆಯ್‌ಕತ್ ಬೀ'
ಮಾಗೀರ ಕಾಯ್ ಆಯ್‌ಕೂಂಕ್ ಯೇನಾ ಮ್ಹಣ್
ಹಾಂವ್ ಹಳೂಚ್ ಜನೇಲಾಂತಲ್ಯಾನ್ ಪಳೇಲೇಂ
ಕಾಳ್‌ಖಾಂತ್ ಮಾಡಾಚ್ಯಾ ಸಾವ್‌ಳೇಂತ್
ಮಾಡೀ ದಿಸ್‌ನಾಶಿಲ್ಲೀ
ವಾರ್‍ಯಾಚೋ ಮಾತ್
ಸಳ್ಳ್ ಸಳ್ಳ್ ಆವಾಜ್ ವಾಡ್‌ತಾಲೋ

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

## सात दीस

एक दीस पुतागेर गेलों
एक दीस बापायगेर गेलों
एक दीस आवयगेर गेलों
एक दीस भावागेर गेलों
एक दीस बायलेगेर गेलों
एक दीस नातवागेर गेलों
एक दीस वाज आयलो म्हुण
म्हजेच घरा रावलों
आमी वेगवेगळीं रावतात

■ अरुण साखरदांडे

## ಸಾತ್ ದೀಸ್

ಏಕ್ ದೀಸ್ ಪುತಾಗೇರ್ ಗೆಲೋಂ
ಏಕ್ ದೀಸ್ ಬಾಪಾಯಗೇರ್ ಗೇಲೋಂ
ಏಕ್ ದೀಸ್ ಆವಯ್‌ಗೇರ್ ಗೇಲೋಂ
ಏಕ್ ದೀಸ್ ಭಾವಾಗೇರ್ ಗೇಲೋಂ
ಏಕ್ ದೀಸ್ ಬಾಯ್‌ಲೇಗೇರ್ ಗೇಲೋಂ
ಏಕ್ ದೀಸ್ ನಾತ್‌ವಾಗೇರ್ ಗೇಲೋಂ
ಏಕ್ ದೀಸ್ ವಾಜ್ ಆಯ್‌ಲೋ ಮ್ಹುಣ್
ಮ್ಹಜೇಚ್ ಘರಾ ರಾವ್‌ಲೋಂ
ಆಮೀ ವೇಗ್‌ವೇಗ್‌ಳೀಂ ರಾವ್‌ತಾತ್

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ



## दीस

े दीस गळ्ळे
े कळ्ळेंच ना
े दीस फळ्ळे
ेवूय बी कळ्ळेच ना

े दीस गळ्ळेच नात
े कशे कळटले ?
जे दीस फळ्ळेच नात
े कशे मेळटले

थोड्या दीसांचे उदक जालें
थोड्या दीसांचे रगत जालें
उदक जाले ते दीस व्हावूंन गेले
रगत जाले ते दीस मस्तून गेले

थोड्या दीसांचे चंद्र जाले
थोड्या दीसांचे सुर्य जाले
चंद्र जाले ते दीस चंद्रून गेले
सुर्य जाले ते दीस जळून गेले

थोड्या दीसांक हाते फुटले
थोड्या दीसांक नातें तुटलें
थोडे दीस फुलून गेले
थोडे दीस पळून गेले

थोडे दीस वचून वचनात
थोडे दीस रावून रावनात
थोडे दीस हांसून हांसनात
थोडे दीस रडून रडनात
थोडे दीस ....

■ अरुण साखरदांडे

## ದೀಸ್

ಜೇ ದೀಸ್ ಗಳ್ಳೇ
ತೇ ಕಳ್ಳೇಂಚ್ ನಾ
ಜೇ ದೀಸ್ ಫಳ್ಳೇ
ತೇವೂಯ್ ಬೀ ಕಳ್ಳೇಚ್ ನಾ

ಜೇ ದೀಸ್ ಗಳ್ಳೇಚ್ ನಾತ್
ತೇ ಕಶೇ ಕಳ್‌ಟಲೇ ?
ಜೇ ದೀಸ್ ಫಳ್ಳೇಚ್ ನಾತ್
ತೇ ಕಶೇ ಮೇಳ್‌ಟಲೇ ?

ಥೋಡ್ಯಾ ದೀಸಾಂಚೇ ಉದಕ್ ಜಾಲೇಂ
ಥೋಡ್ಯಾ ದೀಸಾಂಚೇ ರಗತ್ ಜಾಲೇಂ
ಉದಕ್ ಜಾಲೇ ತೇ ದೀಸ್ ವ್ಹಾಂವೂನ್ ಗೇಲೇ
ರಗತ್ ಜಾಲೇ ತೇ ದೀಸ್ ಮಸ್ತೂನ್ ಗೇಲೇ

ಥೋಡ್ಯಾ ದೀಸಾಂಚೇ ಚಂದ್ರ್ ಜಾಲೇ
ಥೋಡ್ಯಾ ದೀಸಾಂಚೇ ಸುರ್ಯ ಜಾಲೇ
ಚಂದ್ರ್ ಜಾಲೇ ತೇ ದೀಸ್ ಚಂದ್ರೂನ್ ಗೇಲೇ
ಸುರ್ಯ್ ಜಾಲೇ ತೇ ದೀಸ್ ಜಳೂನ್ ಗೇಲೇ

ಥೋಡ್ಯಾ ದೀಸಾಂಕ್ ಹಾತೇ ಫುಟ್‌ಲೇ
ಥೋಡ್ಯಾ ದೀಸಾಂಕ್ ನಾತೇಂ ತುಟ್‌ಲೇಂ
ಥೋಡೇ ದೀಸ್ ಫುಲೂನ್ ಗೇಲೇ
ಥೋಡೇ ದೀಸ್ ಪಳೂನ್ ಗೇಲೇ

ಥೋಡೇ ದೀಸ್ ವಚೂನ ವಚ್‌ನಾತ್
ಥೋಡೇ ದೀಸ್ ರಾವೂನ್ ರಾವ್‌ನಾತ್
ಥೋಡೇ ದೀಸ್ ಹಾಂಸೂನ್ ಹಾಂಸ್‌ನಾತ್
ಥೋಡೇ ದೀಸ್ ರಡೂನ್ ರಡ್‌ನಾತ್
ಥೋಡೇ ದೀಸ್ .......

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

## मोग किनारी

दयविळेरी
काळजादेगेरी
उड गे बळारी
मोग किनारी

तनातनेरी
दोळया दोळेरी
नदरे पेल्यारी
मोगकिनारी

पावसा झडेरी
उतरां मोनेरी
थेंब्या थेंब्यारी
मोगकिनारी

सपना कडेरी
दुखा सुखेरी
जीणे वाठारी
मोग किनारी

उदका फेणेरी
चान्ने कणेरी
मळबा देठारी
मोग किनारी

फाल्या पारारी
कोंब्या सादारी
ओठां ओठांरी
मोग किनारी

■ अरुण साखरदांडे

## ಮೋಗ್ ಕಿನಾರೀ

ದರ್ಯಾವೇಳೇರೀ
ಕಾಳ್‌ಜಾದೇಗೇರೀ
ಉಡ್ ಗೇ ಬಳಾರೀ
ಮೋಗ್ ಕಿನಾರೀ

ತನಾತನೇರೀ
ದೋಳ್ಯಾ ದೋಳೇರೀ
ನದ್ರೇ ಪೇಲ್ಯಾರೀ
ಮೋಗ್ ಕಿನಾರೀ

ಪಾವ್ಸಾ ಝಡೇರೀ
ಉತ್ರಾಂ ಮೋನೇರೀ
ಥೇಂಬ್ಯಾ ಥೇಂಬ್ಯಾರೀ
ಮೋಗ್ ಕಿನಾರೀ

ಸಪ್ನಾ ಕಡೇರೀ
ದುಖಾ ಸುಖೇರೀ
ಜೀಣೇ ವಾಠಾರೀ
ಮೋಗ್ ಕಿನಾರೀ

ಉದ್ಕಾ ಫೇಣೇರೀ
ಜಾನ್ನೇ ಕಣೇರೀ
ಮಳ್‌ಬಾ ದೇಠಾರೀ
ಮೋಗ್ ಕಿನಾರೀ

ಫಾಲ್ಯಾ ಪಾರಾರೀ
ಕೋಂಬ್ಯಾ ಸಾದಾರೀ
ಓಠಾಂ ಓಠಾಂರೀ
ಮೋಗ್ ಕಿನಾರೀ

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

## दोन दुंकां

तुवें वता आसतना सांगिल्लें
आपली याद आयली जाल्यार
दोन दुकां गळय
आतां मजा पळय
तुजी याद आयली जाल्यार
दोन दुकां न्हय
एक्कूय दुक गळना
कालूच दोतोराकडे गेल्लो
ताणें सांगले - तुजी दुकां सुकलीं
आनी कोणाचीतरी याद केळय
आनी दुकां गळटा जाल्यार पळय
हांव आनी दुसऱ्या कोणाची
याद काडटलों ?
तुज्या फाटल्यान लागून
आयुष्याची माती जाली पळय
तुवें वता आसतना सांगिल्लें
आपली याद आयली जाल्यार
दोन दुकां गळय

■ अरुण साखरदांडे

## ದೋನ್ ದುಕಾಂ

ತುವೇಂ ವತಾ ಆಸ್ತನಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ಆಪ್ಲೀ ಯಾದ್ ಆಯ್ಲೀ ಜಾಲ್ಯಾರ್
ದೋನ್ ದುಕಾಂ ಗಳಯ್
ಆತಾಂ ಮಜಾ ಪಳಯ್
ತುಜೀ ಯಾದ್ ಆಯ್ಲೀ ಜಾಲ್ಯಾರ್
ದೋನ್ ದುಕಾಂ ನ್ಹಯ್
ಎಕ್ಕೂಯ್ ದುಕ್ ಗಳ್ನಾ
ಕಾಲೂಚ್ ದೋತೋರಾಕಡೇ ಗೇಲ್ಲೋ
ತಾಣೇಂ ಸಾಂಗ್ಲೇ - ತುಜೀ ದುಕಾಂ ಸುಕ್ಲೀಂ
ಆನೀ ಕೋಣಾಚೀತರೀ ಯಾದ್ ಕೇಳಯ್
ಆನೀ ದುಕಾಂ ಗಳ್ಟಾ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಪಳಯ್
ಹಾಂವ್ ಆನೀ ದುಸ್ರ್ಯಾ ಕೋಣಾಚೀ
ಯಾದ್ ಕಾಡ್ಟಲೋಂ ?
ತುಜ್ಯಾ ಫಾಟ್ಲ್ಯಾನ್ ಲಾಗೂನ್
ಆಯುಷ್ಯಾಚೀ ಮಾತೀ ಜಾಲೀ ಪಳಯ್
ತುವೇಂ ವತಾ ಆಸ್ತನಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ಆಪ್ಲೀ ಯಾದ್ ಆಯ್ಲೀ ಜಾಲ್ಯಾರ್
ದೋನ್ ದುಕಾಂ ಗಳಯ್

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ



## नकलामी

सकाळीं उठून हांव जेन्ना
गॅलरींत आयलो
तेन्ना एक सूर्यपक्षी
म्हजे स्कूटरीचे हारशांत पळोवन
आपले केंस वळेतालो

घरा फुडली बांय उपाट भरून
उदक भायर ओत्तालें

दाव्यावटेनच्या आंब्या रुखार
हजांरानी कावळे
काव काव करिनासतना
म्हजे नदरेक नदर दिवन
स्तब्ध बशिल्ले

स्त्यावेल्यान सदचो पदेर
सायकलीची पेदेलां मारीत
किणी किणी करीत वतालो
मजा म्हळयार
सायकलीक बांदिल्ल्या पाटल्यात
उंडे नाशिल्ले
आनी पदेराच्या आंगार
कपडेय नाशिल्ले

उजवेवटेन, पेरीर बसून
एक वळखीचो माकड
रेबन वक्ल घालून
सिगार ओडटालो

## ನಕ್‌ಲಾಮೀ

ಸಕಾಳೀಂ ಉಠೂನ್ ಹಾಂವ್ ಜೇನ್ನಾ
ಗಲ್‌ರೀಂತ್ ಆಯ್‌ಲೋ
ತೇನ್ನಾ ಏಕ್ ಸೂರ್ಯಪಕ್ಷೀ
ಮ್ಹಜೇ ಸ್ಕೂಟರೀಚೇ ಹಾರ್‌ಶಾಂತ್ ಪಳೋವನ್
ಆಪ್‌ಲೇಂ ಕೇಂಸ್ ವಳೇತಾಲೋ

ಘರಾ ಫುಡ್‌ಲೀ ಬಾಂಯ್ ಉಪಾಟ್ ಭರೂನ್
ಉದಕ್ ಭಾಯರ್ ಓತ್ತಾಲೇಂ

ದಾವ್ಯಾವಟೇನಚ್ಯಾ ಆಂಬ್ಯಾ ರುಖಾರ್
ಹಜಾಂರಾನೀ ಕಾವ್‌ಳೇ
ಕಾವ್ ಕಾವ್ ಕರಿನಾಸತ್‌ನಾ
ಮ್ಹಜೇ ನದ್‌ರೇಕ್ ನದರ್ ದಿವನ್
ಸ್ತಬ್ಧ್ ಬಶಿಲ್ಲೇ

ರಸ್ತ್ಯಾವೇಲ್ಯಾನ್ ಸದ್‌ಚೋ ಪದೇರ್
ಸಾಯ್‌ಕಲೀಚೀ ಪೇದೇಲಾಂ ಮಾರೀತ್
ಕಿಣೀ ಕಿಣೀ ಕರೀತ್ ವತಾಲೋ
ಮಜಾ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್
ಸಾಯ್‌ಕಲೀಕ್ ಬಾಂದಿಲ್ಲ್ಯಾ ಪಾಟ್‌ಲ್ಯಾತ್
ಉಂಡೇ ನಾಶಿಲ್ಲೇ
ಆನೀ ಪದೇರಾಚ್ಯಾ ಆಂಗಾರ್
ಕಪ್‌ಡೇಯ್ ನಾಶಿಲ್ಲೇ

ಉಜ್‌ವೇವಟೇನ್, ಪೇರೀರ್ ಬಸೂನ್
ಏಕ್ ವಳ್‌ಖೀಚೋ ಮಾಕಡ್
ರೇಬನ್ ವಕ್ಲ್ ಘಾಲೂನ್
ಸಿಗಾರ್ ಓಡ್‌ಟಾಲೋ



म्हाका पळोवन ताजे
हात हालयलो
आनी म्हळें - 'हाय' !
कसो आसा तुजो पाय ?'
शेजाऱ्नीलो गरीब कुत्रो
'मेरे सपनोंकी रानी
कब आयेगी तू ?'
अशें गीत गायत
ब्रेक डान्स करतालो
हांवे म्हळें - हें कितें खरें न्हय
परत न्हिदिल्लो बरो

■ अरुण साखरदांडे

ಮ್ಹಾಕಾ ಪಳೋವನ್ ತಾಜೇ
ಹಾತ್ ಹಾಲ್‌ಯಲೋ
ಆನೀ ಮ್ಹಳೇಂ - 'ಹಾಯ್' !
ಕಸೋ ಆಸಾ ತುಜೋ ಪಾಯ್ ?'
ಶೇಜಾನ್ನೀಲೋ ಗರೀಬ್ ಕುತ್ರೋ
'ಮೇರೇ ಸಪ್‌ನೋಂಕೀ ರಾನೀ
ಕಬ್ ಆಯೇಗೀ ತೂ ?'
ಅಶೇಂ ಗೀತ್ ಗಾಯತ್
ಬ್ರೇಕ್ ಡಾನ್ಸ್ ಕರ್‌ತಾಲೋ
ಹಾಂವೇ ಮ್ಹಳೇಂ - ಹೇಂ ಕಿತೇಂ ಖರೇಂ ನ್ಹಯ್
ಪರತ್ ನ್ಹಿದಿಲ್ಲೋ ಬರೋ

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

# सपनां पावलीं पलतडी

सपनां पावलीं पलतडीं
हांव उल्लों आलतडी
आनी मदी अथांग
जीणेचो दर्या
म्हजो माणकुलो सूर्या
खंय दिसचना

म्हज्या पिशा सपनानों
तुमीं फुडे सरात
आनी सोदून काडात
म्हजो सोनेरी सूर्या
आनी लिपलेलें मळब
फातोडेच्या दंवान भिजिल्लें
ल्हान नीळें नीळें शेवणें

उजवाडाच्या झाडापोंदा
आसतली आवय उबे धर्तरी
किल्लतल्या मातयेची

म्हज्या पिशा सपनानों
ते मातयेंत रोयात
त्या उजवाडाच्या झाडाची
एक म्हानशी खांदी
म्हजे नावान
मागीर मात
म्हजी वाट पळोंव नाकात
तुमीय उडून वचात

# ಸಪ್‌ನಾಂ ಪಾವ್‌ಲೀಂ ಪಲ್‌ತಡೀ

ಸಪ್‌ನಾಂ ಪಾವ್‌ಲೀಂ ಪಲ್‌ತಡೀಂ
ಹಾಂವ್ ಉಲ್ಲೋಂ ಆಲ್‌ತಡೀ
ಆನೀ ಮದೀ ಅಥಾಂಗ್
ಜೀಣೇಚೋ ದರ್‌ಯಾ
ಮ್ಹಜೋ ಮಾಣ್‌ಕುಲೋ ಸೂರ್ಯಾ
ಖಂಯ್ ದಿಸ್‌ಚನಾ

ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಪಿಶಾ ಸಪ್‌ನಾನೋಂ
ತುಮೀಂ ಫುಡೇ ಸರಾತ್
ಆನೀ ಸೋದೂನ್ ಕಾಡಾತ್
ಮ್ಹಜೋ ಸೋನೇರೀ ಸೂರ್‌ಯಾ
ಆನೀ ಲಿಪ್‌ಲೇಲೇಂ ಮಳಬ್
ಫಾತೋಡೇಚ್ಯಾ ದಂವಾನ್ ಭಿಜಿಲ್ಲೇಂ
ಲ್ಹಾನ್ ನೀಳೇಂ ನೀಳೇಂ ಶೇವ್‌ಣೇಂ

ಉಜ್‌ವಾಡಾಚ್ಯಾ ಝಾಡಾಪೋಂದಾ
ಆಸ್‌ತಲೀ ಆವಯ್ ಉಬೇ ಧರ್‌ತರೀ
ಕಿಲ್ಲ್‌ತಲ್ಯಾ ಮಾತ್‌ಯೇಚೀ

ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಪಿಶಾ ಸಪ್‌ನಾನೋಂ
ತೇ ಮಾತ್‌ಯೇಂತ್ ರೋಯಾತ್
ತ್ಯಾ ಉಜ್‌ವಾಡಾಚ್ಯಾ ಝಾಡಾಚೀ
ಏಕ್ ಮ್ಹಾನ್‌ಶೀ ಖಾಂದೀ
ಮ್ಹಜೇ ನಾವಾನ್
ಮಾಗೀರ್ ಮಾತ್
ಮ್ಹಜೀ ವಾಟ್ ಪಳೋಂವ್ ನಾಕಾತ್
ತುಮೀಯ್ ಉಡೂನ್ ವಚಾತ್

या उकत्या मळबांत
सोनेरी सूर्या सांगातान
या भिजिल्ल्या ल्हान
नीळया शेवण्याक मात
वांगडा घेवंक विसरूं नाकात
हांव पावत ना पावत
ही आलतड
म्हाका सोडीत ना सोडीत

■ अरुण साखरदांडे

ತ್ಯಾ ಉಕ್ತ್ಯಾ ಮಳ್‌ಬಾಂತ್
ಸೋನೇರೀ ಸೂರ್‍ಯಾ ಸಾಂಗಾತಾನ್
ತ್ಯಾ ಭಿಜಿಲ್ಲ್ಯಾ ಲ್ಹಾನ್
ನೀಳ್‌ಯಾ ಶೇವಣ್ಯಾಕ ಮಾತ್
ವಾಂಗ್‌ಡಾ ಘೇವಂಕ್ ವಿಸರೂಂ ನಾಕಾತ್
ಹಾಂವ್ ಪಾವತ್ ನಾ ಪಾವತ್
ಹೀ ಆಲ್‌ತಡ್
ಮ್ಹಾಕಾ ಸೋಡೀತ್ ನಾ ಸೋಡೀತ್

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ



## म्हजें म्हणून ....

म्हजिं म्हळिळं 'उतरां' खंय आसात
आसल्यारी आयकातात कोण ?
हाचिं उतरां आनि ताचिं उतरां
आयकोन आसात जण ...

म्हजि म्हळिळं 'पत्रां' खंय आसात
हाचें पत्र हाणें सांगल्लेवरि आसता
ताचें पत्र ताणें सांगल्लें
मात छापता
म्हज्या कवितांक बळान
बागिल दांपता ...

म्हजिं म्हळिळं 'सूत्रां' खंय आसात
स्व-उद्योगांत ग्रायकच देव
ते नांत तर पोटाक कितें जेंव ?
सूत्रां-विचित्रां पूरा
तांचेंच राजांव ...

म्हजिं म्हळिळं 'तत्वां' खंय आसात
फट मारशी-पोट भोरशी-
सत सांगशी-माति बाशि
मोबायल माण्कुल्यांचि
वयर जाल्या मिशि
बिणा-भिणान म्हनशापण
मरण-तत्वांचि खुनि

## ಮ್ಹಜೇಂ ಮ್ಹಣೂನ್ ....

ಮ್ಹಜಿಂ ಮ್ಹಳ್ಳಿಂ 'ಉತ್ರಾಂ' ಖಂಯ್ ಆಸಾತ್
ಆಸ್ಲ್ಯಾರಿ ಆಯ್ಕಾತಾತ್ ಕೋಣ್ ?
ಹಾಚಿಂ ಉತ್ರಾಂ ಆನಿ ತಾಚಿಂ ಉತ್ರಾಂ
ಆಯ್ಕೊನ್ ಆಸಾತ್ ಜಣ್ ....

ಮ್ಹಜಿಂ ಮ್ಹಳ್ಳಿಂ 'ಪತ್ರಾಂ' ಖಂಯ್ ಆಸಾತ್
ಹಾಚೆಂ ಪತ್ರ್ ಹಾಣೆಂ ಸಾಂಗ್ಲ್ಲೆವರಿ ಆಸ್ತಾ
ತಾಚೆಂ ಪತ್ರ್ ತಾಣೇಂ ಸಾಂಗ್ಲ್ಲೆಂ
ಮಾತ್ ಛಾಪ್ತಾ
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕವಿತಾಂಕ್ ಬಳಾನ್
ಬಾಗಿಲ್ ದಾಂಪ್ತಾ ...

ಮ್ಹಜಿಂ ಮ್ಹಳ್ಳಿಂ 'ಸೂತ್ರಾಂ' ಖಂಯ್ ಆಸಾತ್
ಸ್ವ-ಉದ್ಯೋಗಾಂತ್ ಗ್ರಾಯ್‌ಕಚ್ ದೇವ್
ತೆ ನಾಂತ್ ತರ್ ಪೊಟಾಕ್ ಕಿತೆಂ ಜೇಂವ್ ?
ಸೂತ್ರಾಂ-ವಿಚಿತ್ರಾಂ ಪೂರಾ
ತಾಂಚೆಂಚ್ ರಾಜಾಂವ್ ...

ಮ್ಹಜಿ ಮ್ಹಳ್ಳಿಂ 'ತತ್ವಾಂ' ಖಂಯ್ ಆಸಾತ್
ಫಟ್ ಮಾರ್ಶಿ - ಪೋಟ್ ಭೊರ್ಶಿ -
ಸತ್ ಸಾಂಗ್ಶಿ - ಮಾತಿ ಬಾಶಿ
ಮೊಬಾಯ್ಲ್ ಮಾಣ್ಕುಲ್ಯಾಂಚಿ
ವಯ್ರ್ ಜಾಲ್ಯಾ ಮಿಶಿ
ಬಿಣಾ-ಬಿಣಾನ್ ಮ್ಹನ್ಶಾಪಣಾ
ಮರಣ್ - ತತ್ವಾಂಚಿ ಖುನಿ

जि म्हळिळ 'भास' खंय आसा
रांत कोंग्लिष, तेरांत इंग्लिष
ार्कालागिं कन्नड, चायेचा
चेरक्याक्यलागिं एन्नडा
ळजांत्लि कोंकणि थंयिच फिनिष ...

जो म्हळळो 'देश' खंय आसा
दि उलयतेल्यांक विशाल हिंदुस्तान
मळाच्यांक तमिळनाड,
कन्नडाक कर्नाटक
यां गेल्यार मराठिक मात मान ...

जे म्हळळो 'ताळो' खंय आसा
ळ आसलल्यांचें बोळकें
ाकांचें, करोडांचें कोळकें
व हांगा शेंबर मेजचें नालकें ...

जिं म्हळिळं 'भोगणां' खंय आसात
ायलेक बेजार भोगता म्हळिळ
म्हजि खंत
रांनि हासोन बेळोन आसाजय-
हिंच बोगणां
का कुडको हांव -
हेर कितेंयी बोगाना ...

ज्या सवलांक 'जापि' खंय आसात
गार बाप - 'देवाचें बेसांव'
दीवन दाडता

ಮ್ಹಜಿ ಮ್ಹಳ್ಳಿ 'ಭಾಸ್' ಖಂಯ್ ಆಸಾ
ಘರಾಂತ್ ಕೊಂಗ್ಲಿಷ್, ತೆರಾಂತ್ ಇಂಗ್ಲಿಷ್
ಕ್ಲಾರ್ಕಾಲಾಗಿಂ ಕನ್ನಡ, ಚಾಯೆಚಾ
ಚೆರ್ಕ್ಯಾಲಾಗಿಂ ಎನ್ನಡಾ
ಕಾಳ್ಜಾಂತ್ಲಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಥಂಯಿಂಚ್ ಫಿನಿಷ್ ...

ಮ್ಹಜೋ ಮ್ಹಳ್ಳೋ 'ದೇಶ್' ಖಂಯ್ ಆಸಾ
ಹಿಂದಿ ಉಲಯ್ತೇಲ್ಯಾಂಕ್ ವಿಶಾಲ್ ಹಿಂದುಸ್ತಾನ್
ತಮ್ಳಾಚ್ಯಾಂಕ್ ತಮಿಳ್‌ನಾಡ್,
ಕನ್ನಡಾಕ್ ಕರ್ನಾಟಕ್
ಗೊಂಯಾಂ ಗೆಲ್ಯಾರ್ ಮರಾಠಿಕ್ ಮಾತ್ ಮಾನ್ ...

ಮ್ಹಜೇ ಮ್ಹಳ್ಳೋ 'ತಾಳೊ' ಖಂಯ್ ಆಸಾ
ಬಳ್ ಆಸ್ಲ್ಯಾಂಚೆಂ ಬೋಳ್ಕೆಂ
ಲಾಕಾಂಚೆಂ, ಕರೊಡಾಂಚೆಂ ಕೊಳ್ಕೆಂ
ಹಾಂವ್ ಹಾಂಗಾ ಶೆಂಬರ್ ಮೆಜ್ಚೆಂ ನಾಲ್ಕೆಂ ...

ಮ್ಹಜಿಂ ಮ್ಹಳ್ಳಿಂ 'ಬೊಗ್ಣಾಂ' ಖಂಯ್ ಆಸಾತ್
ಬಾಯ್ಲೆಕ್ ಬೆಜಾರ್ ಬೊಗ್ತಾ ಮ್ಹಳ್ಳಿ
ಮ್ಹಜಿ ಖಂತ್
ಹೆರಾಂನಿ ಹಾಸೊನ್ ಬೆಳೋನ್ ಆಸಾಜಯ್ -
ಹಿಂಚ್ ಬೊಗ್ಣಾಂ
ರುಕಾ ಕುಡ್ಕೊ ಹಾಂವ್ -
ಹೆರ್ ಕಿತೆಂಯೀ ಬೊಗಾನಾ ...

ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಸವಲಾಂಕ್ 'ಜಾಪಿ' ಖಂಯ್ ಆಸಾತ್
ವಿಗಾರ್ ಬಾಪ್ - 'ದೆವಾಚೆಂ ಬೆಸಾಂವ್'
ದೀವನ್ ದಾಡ್ತಾ

मदर मांय "THANK U"
म्हणोन निसातार
जवाब्दारेचें जूंव समाज म्हज्या
गोमटयाक बांदता

म्हजि म्हळि 'लिपि' खंय आसा
नवायत नेरायता नायतो,
कोच्चिचो कोंकणो मलयाळो
मुंबंयत नागरि, गोंयां
गेल्यार रोमि-घुमता गळो
लिपियेचा बेस्तांवान
केनरा कोंकणो मेलो

म्हजिं म्हळिं 'म्हनशां' खंय आसात
भाव जाला बायलेचे घोव
भयण आतां भायर-म्हज्या
भावोजिचि बायल
बायले-भुरग्या संगिं भोगतां-
भाडयाचा घरांत जैल

ताणिं चलल्लिच वाट
ताणिं रंगयलें पूरा रंगीत
ताणिं वाजयिल्लेंच संगीत
ताणिं केल्लें पूरा सारकें
म्हाका म्हजेंच कोडकें ....

■ रिची पेरैर

ಮದರ್ ಮಾಂಯ್ "THANK U"
ಮ್ಹಣೊನ್ ನಿಸಾತಾರ
ಜವಾಬ್ದಾರೆಚೆಂ ಜೂಂವ್ ಸಮಾಜ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ
ಗೊಮ್ಟ್ಯಾಕ್ ಬಾಂದ್ತಾ

ಮ್ಹಜಿ ಮ್ಹಳಿ 'ಲಿಪಿ' ಖಂಯ್ ಆಸಾ
ನವಾಯತ್ ನೆರಾಯ್ತಾ ನಾಯ್ತೋ,
ಕೊಚ್ಚಿಚೋ ಕೊಂಕ್ಣೊ ಮಲಯಾಳೋ
ಮುಂಬಂಯತ್ ನಾಗರಿ, ಗೊಂಯಾಂ
ಗೆಲ್ಯಾರ್ ರೋಮಿ-ಘುಮ್ತಾ ಗಳೋ
ಲಿಪಿಯೆಚಾ ಬೆಸ್ತಾಂವಾನ್
ಕೆನರಾ ಕೊಂಕ್ಣೊ ಮೆಲೋ

ಮ್ಹಜಿಂ ಮ್ಹಳಿಂ 'ಮ್ಹನ್ಶ್ಯಾಂ' ಖಂಯ್ ಆಸಾತ್
ಬಾವ್ ಜಾಲಾ ಬಾಯ್ಲೇಚೇ ಘೊವ್
ಭಯಣ್ ಆತಾಂ ಭಾಯ್ರ್-ಮ್ಹಜ್ಯಾ
ಬಾವೊಜಿಚಿ ಬಾಯಲ್
ಬಾಯ್ಲೇ-ಬುರಗ್ಯಾ ಸಂಗಿಂ ಬೊಗ್ತಾಂ-
ಬಾಡ್ಯಾಚಾ ಘರಾಂತ್ ಜೈಲ್

ತಾಣಿಂ ಚಲ್‌ಲ್ಲಿಚ್ ವಾಟ್
ತಾಣಿಂ ರಂಗ್‌ಯಲೇಂ ಪೂರಾ ರಂಗೀತ್
ತಾಣಿಂ ವಾಜಯಿಲ್ಲೆಂಚ್ ಸಂಗೀತ್
ತಾಣಿಂ ಕೆಲ್ಲೆಂ ಪೂರಾ ಸಾರ್ಕೆಂ
ಮಾಕಾ ಮ್ಹಜೆಂಚ್ ಕೊಡ್ಕೆಂ ...

■ ರಿಚಿ ಪಿರೇರ್

